7. मी तेरा कपडे दिले होत. सात शर्ट, दोन पॅण्टी, एक टॉवेल, दोन पायजमे आणि एक चादर.
*हांवें तेरा नग दिल्ले. सात शर्ट, दोन पॅण्टी, एक• तुवालो, दोन पिजामां आनी एक चादर.*

8. कपडे नीट मोजून आणत चला व नेत जा.
*कपडे सारके मेजून हाड आनी व्हर.*

9. ह्या शर्टाची इस्त्री नीट नाही झाली. जॅकेटवर असलेली सर्व बटणांय तुटलीत.
*ह्या शर्टाचें फेर्र सारकें जावंक ना. जॅकेटाचे सगळे बुतांवूंय तुटल्यात.*

10. तुम्ही कपडे रंगवून देता काय?
*तुमी कपड्यांक रंग घालतात?*

11. माझ्या सिल्कच्या झब्ब्याल इस्त्री करताना जरा जपून बरं का !
*म्हज्या सिल्काच्या झब्ब्याक फेर्र मारतना मातशी जतनाय घे आं !*

12. सुती कपड्यांना स्टार्च करायला कितली वेळ लागेल?
*सुती कपड्यांक खळ घालपाक कितलो वेळ लागतलो?*

13. या युनिफॉर्मला जरा कडक इस्त्री करून द्या.
*ह्या* युनिफॉर्माक मातशें कडक फेर्र मार पळोवंया.

प्रकरण 17 :

## गवळी - *गवळी*

1. रोज पहाटे दूध आणता म्हणून हे फार सोईचे होते आम्हाला. एक तारखेपासून रोज दोन लिटर दूध देत चला.
   *सद्दां फांतोडेर दूद हाडटा, हें आमकां खूब्ब बऱ्याक पडटा. एक तारकेसावन सद्दां दोन लिटर दूद दी.*

2. गाईचे दूध इथं कुठे मिळेल?
   *हांगा गायचें दूद खंय मेळत?*

3. भैय्या, हल्ली तुमच्या दुधाला वास येतो कसला तरी आणि पाणीदारही फार असतं ते!
   *भैया, हालीं तुज्या दुदाक कसलो तरी वास मारता आनी उदकाळयं चड आसता तें.*

4. म्हैस व्याली होती मागच्या आठवड्यात बाईसाहेब म्हणून दुसऱ्याकडून दूध आणत होतो.
   *म्हस वियेल्ली फाटल्या सप्तकांत बाय, देखून दुसऱ्या कडल्यान हाडटालों.*

5. हल्लीं फार दिवसांत खरवस नाही खाल्ला. आम्हाला चीक देणार कधी?
   *हालिसरां खूब दीस जाले पोस खावंक ना. आमकां दीख ना रे?*

6. आणतो ताई. मला वाटतं तुम्ही खात नसाल.
   *हाडटां बाय. म्हाका दिशिल्लें तुम्ही खायनात कशें.*

प्रकरण 18 :

## बँक - बँक

1. मी या गावात नवीनच आलोय. बचत खाते उघडायचेय.
   *हांव ह्या गावांत नवोच आयलां. बचत खातें उगडपाचें आसा.*

2. त्यासाठी आवश्यक फॉर्म भरलेत का? आपल्याला थांबावे लागेल.
   *तेखातीर फाव ते फॉर्म भरल्यात तुमी? तुमकां रावचें पडटलें. तुमी मातशे रावात.*

3. फॉर्म भरल्यानंतर पास बुक आणि चेक बुक लगेच मिळेल काय?
   *फॉर्म भरतकच पासबुक आनी चेकबुक रोखडेंच मेळटले?*

4. त्यासाठी कमीत कमी एक हजार रूपये भरावे लागतात.
   *तेखातीर उण्यात उणे हजार रूपये भरचे पडटात.*

5. मागच्या महिन्यात मी एक ड्राफ्ट आणि चेक भरला होता. त्याचे पैसे आले का?
   *फाटल्या म्हयन्यांत हांवें एक ड्राफ्ट आनी चेक घातिल्लो ताचे पैशे आयले?*

6. मला घरासाठी कर्ज हवे होते. शिवाय लॉकर पण!
   *म्हाका घराखातीर रीण जाय. तेभायर लॉकरय!*

7. मी मुलांच्या नावाने बचत खाते उघडू पाहतेय. काय करायला हवे?
   *भुरग्यांच्या नांवान बचत खातें उगडूंक सोदतां. कितें करपाक जाय हांवें?*

8. दिल्लीला ड्राफ्ट पाठवण्याचे कमिशन किती असते?
   *दिल्लीक ड्राफ्ट धाडपाचें कमिशन कितलें?*

9. इथे ट्रॅव्हलर्स चेक मिळतील का?
   *हांगां ट्रॅव्हलर्स चेक मेळटात?*

10. हो. पाचशे आणि हजारांचे ट्रॅव्हलर्स चेक इथे मिळतील?
    *हय. पांचशे आनी हजारांचे ट्रॅव्हलर्स चेक मेळटले.*

11. मी सरकारी कर्मचारी आहे. मला घरातले फर्निचर बदलायचेय. त्यासाठी आपली बँक काही मदत करेल का?
    *हांव एक सरकारी नोकर. म्हाका घरातलें फर्निचर बदलपाचें आसा. ताचेखातीर तुमची बँक म्हाका आदार करीत?*

12. तुमच्या घराच्या कर्जासाठी हमीदार म्हणून एका व्यक्तीची गरज लागेल.
    *तुज्या घराच्या रिणाखातीर हमीदा म्हण एका मनशाची गरज लागतली.*

13. कुठल्याही बँकेचे एटिएम कार्ड या ठिकाणी वापरून पैसे घेता येतील का?
    *खंयच्याय बँकेचे एटिएम कार्ड हांगासर उजार करून पैशे घेवपाक मेळत व्हय?*

प्रकरण 19 :

## मोची - *मोची*

1. माझ्या चपलेचा अंगठा तुटलाय. लावून मिळेल का?
   *म्हजे व्हाणेचो (जोत्याचो) आखाणो तुटला. लावन दिशात ?*

2. ह्या बुटांना पॉलिश कर बाबा! वॅक्स पॉलिश आहे ना?
   *ह्या बुटांक पॉलिश कर ! वॅक्स पॉलिश आसा मरे?*

3. सँडलाचा मागचा पट्टा तुटलाय. आत्ता लावून द्याल ना?
   *सँडलाचो फाटलो पटो तुटला. आत्तां लावन दिशीत?*

4. खिळ्याने टाच नका ठोकू. चामड्यानेच शिवून द्या.
   *खोंटेक खिळो मारूं नाका. चामड्यानच शींव.*

5. तुम्ही चप्पल बनवून देता?
   *तुमी जोतीं करतात?*

6. हो. हे चप्पल शंभर रूपयांना विकतो. बाजारातल्या शो रूमधे याचीच किंमत तिनशे रूपये आहे.
   *हय. हें जोतें हांव शंबर रूपयांक विकता. बाजारांतल्या शो रुमांनी हाचेंच मोल तिनशीं रूपया आसा.*

7. ह्या चप्पलाचा पट्टा खूप घट्ट होतो. जरा सैल करून द्याल?
   *ह्या जोत्याचो पटो खूब घट्ट जाता. मातसो सदळ करून दिवशात*

प्रकरण 20 :

# कचेरी - कचेरी

1. ए! जरा टायपिस्टला बोलवा.
   *ए! मातसो टायपिस्टाक आपय.*

2. हे बघा उद्या मला मीटिंग आहे. सकाळी जरा लवकर या.
   *पळय, फाल्यां म्हाका मिटींग आसा. सकाळचो मातसो बेगीनच यो.*

3. काही म्हत्वाची पत्रे आहेत. ती टाईप करूनच घरी चला.
   *कांय म्हत्वाचीं पत्रां आसात. तीं टायप करूनच घरा वच.*

4. मला एक आठवड्याची सुट्टी हवी होती. हे त्यासाठीचे आवेदन पत्र.
   *म्हाका एक सप्तकभर सुटी जाय. देखून हें अर्जीपत्र.*

5. तुम्हाला हवी असेल तर पुढच्या महिन्यात सुट्टी घ्या.
   *तुमकां जाय जाल्यार फुडल्या म्हयन्यांत सुटी घेयात.*

6. कालची फाईल माझ्या टेबलावरून कुठे गेली समजलेंच नाही.
   *कालची फायल म्हज्या मेजावेल्यान खंय गेली तें समजलेंच ना.*

7. ती तुम्ही हेडक्लार्कपाशी पाठवली होती. चपरासी कुठे गेला?
   *तुमी ती हेडक्लार्किडेन धाडिल्ली. शिपाय खंय गेलो?*

8. माझी पगारवाढ का थांबवली साहेब? मी आवश्यक ते कागदपत्र दिले होते ना.
   *म्हजी पगारवाड कित्याक आडायली सायब? हांवें फावो तीं कागदपत्रां दिल्लीं न्हय?*

9. तुम्ही डॉक्टरचे प्रमाणपत्र सादर केले नाही. शिवाय संपातही भाग घेतला होता तुम्ही.
*तुमी दोतोराचें प्रमाणपत्र दिवंक ना. ते भायर तुमी संपांतय वांटो घेतिल्लो.*

10. एवढी वर्षे ऑफिसात असूनही पत्रांत त्याच त्या चुका का होतात?
*इतलीं वर्सां ऑफिसांत काम करुनय पत्रांत त्योच त्योच चुकी कित्याक जातात?*

11. आजच्या बैठकीचा अहवाल लगेच लिहून टाका.
*आयचे बसकेचो नियाळ रोखडोच बरयात.*

12. त्यासाठी मला सात वाजेपर्यंत कचेरीत रहावे लागेल. चालेल ना?
*तेखातीर म्हाका सात वरांमेरेन कचेरेंत रावचें पडटलें. चलत मूं?*

13. पेन्शनच्या फ़ाईल्स घेऊन आपण आणखी किती दिवस वेळ काढणार आहात देव जाणे?
*पेन्शनाच्यो फायली घेवन तुमी आनीक कितले दीस वेळ काडटले म्हणपाचें देवाक खबर.*

14. स्पेशल लीव्ह साठी वेगळं आवेदन द्यायला हवे का?
*स्पेशल लिव्हेखातीर खेरीज अर्जी दिवपाक जाय?*

15. उद्यापासून आमचे डायरेक्टर बदलणार आहेत.
*फाल्यांसावन आमचो डायरेक्टर बदलपाचो आसा / बदलतलो.*

प्रकरण 21 :

## घर भाडे - *घर भाडें*

1. इथे आसपास भाड्याने घर मिळेल काय?
*हांगां आशिकुशीक भाड्यान घर मेळत?*

2. रिकामी घरं कुठे असेल तर सांगा.
*खालीं घरां खंयुय आसल्यार सांगात.*

3. तुम्ही काळजी करू नका. मी काही मित्रांना सांगितलेय पाहण्यास.
*कांय हुस्को करू नाकात. हांवें कांय इश्टांक पळोवंक सांगलां.*

4. आजकाल स्वस्तात घर मिळणे कठीणच. वीज, पाणी, पागडी असतेच भाड्या व्यतिरिक्त!
*हालीं सवाय घर मेळप कुस्तारच. शिवाय वीज, नळ, पागडी आसताच, भाडे दिवनय!*

5. मिरामारला कॉलेजपाशी एक घर रिकामे आहे.
*मिरामार कॉलेजीकडेन एक घर खाली आसा.*

6. भाडं किती असेल? घर ठिकठाक आहे ना? शिवाय नळ, वीज?
*कितलें आसत भाडें? आनी घर वेवस्थित आसा न्हय. ते भायर नळ, वीज?*

7. अरे व्वा! हेच ते तुम्ही म्हणत होता ते घर. फारच छान आहे.
*अरे व्वा! हेंच तें तुमी सांगतालें तें घर. भौच सुंदर आसा.*

8. नमस्कार! आपलें घर पहायचेय. मला भाड्याच्या घराची जरूरी आहे.
*नमस्कार! तुमचें घर पळोवपाक जाय. म्हाका भाड्यान घर जाय आशिल्लें.*

9. या. ही बैठक. आत ते दोन मोठे हॉल. त्यांच्या शेजारी स्वंयपाकघर आणि कोठी. हा व्हरांडा त्याला टेकून एक स्टडी.
*येयात. हें साल. भितर ते दोन व्हड हॉल. तांच्या शेजराक रांदचीकूड आनी कोठयेकूड. हो वारांदं आनी ताका तेंकून ही एक स्टडी.*

10. मला पेईंगगेस्ट म्हणून एकच खोली हवीय. सेल्फ कंटेंड.
*म्हाका पेईंगगेस्ट म्हूण रावपाक एकच कूड जाय. सेल्फ कंटेंड.*

11. तुम्हाला तीन महिन्याचे आगावू पैसे भरावे लागतील.
*तीन म्हयन्याचे पयशे तुमकां पयलींच दिवचे पडटले.*

12. ही झोपण्याची खोली. तिच्यात मोठे कपाट आहे. त्या तिथे स्नानगृह.
*ही न्हिदपाची कूड. तातूंत व्हडली आरमार आसा. हें थंय मान्नें न्हावपाचें.*

13. देण्या अगोदर घराला रंग लावून द्याल ना?
*दिवचे पयली घर रंगयता न्हय?*

14. घरासमोरचा हा चिखल कधी काढणार?
*घरामुखार आशिल्लो हो रेबो केन्ना काडटलो?*

15. आपल्याला घर अन आजूबाजूचा परिसर स्वच्छ ठेवावा लागेल.
*तुमकां घर आनी भोंवतणचो वांठार निवळ दवरचो पडटलो.*

16. चालेल. आनंदाने देखरेख करीन मी.
*बरे भाशेन. खोशयेन नदरं दवरीन हांव.*

17. वाण्याचे दुकान या घरापासून किती दूर आहे?
*भुसारी पसरो हांगासावन कितलो पयस आसा?*

18. या घरापासून बसस्टॉप किती दूर आहे हो?
*या घरासावन बसस्टॉप कितलो पयस आसा?*

19. इथून कुठेही जायला किती वाजता बस आहे?
*हांगासून खंयय वचपाक कितल्या वरांचेर बस आसा? (बस केन्ना आसा?)*

20. इथून सकाळी आठ वाजता पणजीला जायला बस मिळते.
*हांगासून सकाळीं आठ वरांचेर पणजे वचपाक बस मेळटा.*

21. परत यायला किती वाजेपर्यंत बसेस आहेत?
*परत येवपाक कितल्या वरामेरेन बशी आसात?*

प्रकरण 22 :

## सिनेमागृह - *सिनेमाघर*

1. इथे जवळपास / आजूबाजूला कोणतं थिएटर आहे?
   *हांगा लागीं खंयचें थेएटर आसा?*

2. ह्या थिएटरात कोंकणी सिनेमा दाखवतात काय?
   *ह्या थेटरांत कोंकणी सिनेमा दाखयतात?*

3. पणजीतल्या 'आयनॉक्स'कडे जाण्याचा रस्ता कुठला?
   *पणजेंतल्या आयनॉक्साकडेन वचपाचो मार्ग खंयचो?*

4. तिथे आज कोणते सिनेमा (चित्रपट) दाखवतात? कुठला सिनेमा पाहण्यासारखा आहे?
   *आयज थंय खंयचे सिनेमा दाखयतात? पळोवपा सारको खंयचो सिनेमा आसा?*

5. दिवसा 'नॅशनल'मध्ये तमिळ सिनेमा दाखवतात. रात्रीचा मात्र हिंदी सिनेमा असतो.
   *दिसाचो 'नॅशनलां'त तमिळ सिनेमा दाखयतात. रातचो मात हिंदी!*

6. फिल्म किती वाजता सुरू होते? तिकिटांचा दर काय?
   *फिल्म कितल्या वरांचेर सुरू जाता? तिकेटीचो दर कितें?*

7. रविवारीही सिनेमाचा शो असतो? मला दोन बाल्कनीची तिकिट द्या.
   *आयताराचोय सिनेमाचो शो आसता? म्हाका दोन बाल्कनीच्यो तिकेटी दियात.*

8. नवा सिनेमा उद्या दाखवणार.
*फाल्यां नवो सिनेमा दाखयतले.*

9. एक तारखे पासून राजकपूरच्या सिनेमांचा सप्ताह आहे. जुनी फिल्मे पहायला मिळतील.
*एक तारकेसावन राजकपूरच्या सिनेमांचें सप्तक आसा. पोरणी फिल्मां पळोवंक मेळटलीं.*

10. सिनेमा किती वाजता संपेल?
*कितल्या वरांचेर सिनेमा सोंपतलो?*

प्रकरण 23 :

## वाणी दुकान - *भुसारी पसरो*

1. हां बोला काय हवंय?
*हां सांगात, कितें जाय?*

2. दहा किलो तांदूळ, पाच किलो साखर, एक किलो बेसन आणि दोन किलो तेल.
*धा कील तांदूळ, पांच कील साकर, एक कील चण्याची पिठी आनी दोन कील तेल.*

3. 'भांगरसाळ' आहे?
*'भांगरसाळ' आसा?*

4. नाही. तो दिसणेय अशक्य.
*ना. तो दिसूंकय म्हारग जाला!*

5. तांदूळ फार महाग वाटतोय हां. जरा जुना दाखवा.
*हो तांदूळ चड म्हारग सो दिसता, मातसो पोरणो आसल्यार दाखयात.*

6. अहो बाईसाहेब, साऱ्या बाजारात हाच भाव चालतोय. तुम्ही इतरत्र कुठही चौकशी करा.
*बाय, संबंद बाजारांत होच दर आसा (चलता). जाय जाल्यार वासपूस करात हेरकडेन.*

7. जरा चांगल्या प्रतीच्या मनुका दाखवा बरे?
*बरे तरेचो खिसीमस दाखय मातसो.*

8. बेळगांवी तूप कसे किलो? त्यात भेसळ नसते ना?
*बेळगांवीं तूप कशें कील? तातूंत भरस ना मू?*

9. नारळाचा शेकडा भाव किती?
*नाल्ल कसो शेंकडो?*

10. मला एक डझन मेणबत्या हव्यात आणि शंभर ग्रॅम वेलची आणि एक किलो काजूही.
*म्हाका एक डझन मेणवाती जाय आनी शंबर ग्रॅम वेलची आनी एक कील काजूबियो.*

11. अहो, एवढ्या खरेदीवर काहीच सूट नाही?
*इतलें घेतलां ताचेर कांयच उणें करप ना?*

12. या दुकानातच तेल मिळेल काय?
*ह्या पसऱ्याचेरच तेल मेळत?*

13. जत्रेतल्या दुकानांत खेळणी मिळतात.
*जात्रांतल्या माणांचेर खेळणी मेळटात.*

14. पुस्तकांच्या दुकानांत 'शब्दकोश' मिळेल?
*पुस्तकांच्या दुकानांत 'शब्दकोश' मेळंटलो?*

15. हे जग म्हणजे प्रेमाचे दुकान नव्हे.
*हो संवसार म्हळ्यार मोगाचो पसरो न्हय.*

प्रकरण 24 :

# फुले, फळे, भाजीचे दुकान - *फुलां, फळां, भाजयांचो पसरो*

1. ही गुलाबाची फुलं कुठून येतात?
   *हे गुलाब खंयच्यान येतात?-(हीं गुलाबाचीं फुलां खंयच्यान येतात?)*

2. बेंगलोरहून साहेब.
   *बेंगलोरच्यान सायब (बेंगलोरच्यान).*

3. तुमच्याकडे झेंडूच्या फुलांचा हार मिळेल का?
   *तुमचेकडेन रोजां-झेलो मेळत?*

4. हा मुळा ताजा आहे का? मेथीची भाजी शिळी वाटते.
   *हो मुळो ताजो आसा मरे? मेथी मातशी बाविल्ली दिसता.*

5. भेंडी कशी किलो? मिरची पाव किलो क़शी दिली?
   *भेंडें कशे कील? पाव कील मिरसांगांचे कितले?*

6. दुधी भोपळा चार रूपये किलो देत असाल तर अडीच किलो द्या.
   *दुदी चार रुपयान कील दिता जाल्यार अडेज कील दी.*

7. त्या लांबटशा कंदाला काय म्हणतात? माडी?
   *त्या लांबोडया कंदाक कितें म्हणटात? माडी?*

8. सुरण चाकूने / सुरीने कापून अर्धा किलो द्या ना.
*सुरीण, सुरयेन कापून अर्द किल दी.*

9. आधी किंमत तर सांगा. नंतर भाव बघून खरेदी करीन.
*पयलीं दर तरी सांग. मागीर दर पळोवन घेवं.*

10. ही रामफळं कशी डझन दिलीत?
*एक डझन आंतेरांक कितले?*

11. ही झेंडुची फुले ?
*हीं रोजां?*

12. त्या मार्केटमध्ये गोव्याची खास भाजी काय मिळते?
*त्या बाजारांत गोंयची कसली खाशेली शाक-भाजी मेळटा?*

13. मुळा, लाल माठ, हिरवा माठ, भाजीची केळी, आंबाडे, बिंबल.
*मुळो, तांबडी भांजी, धवी भाजी, सावरबोणी केळी, आंबाडे, बिंबलां.*

14. या भाज्यांची मला माहिती द्याल का?
*या भाज्यांविशीं तुमी म्हाका कितेंय.सांगशात.*

15. येथील मुळा मोठ्ठा व स्वादिष्ट असतो.
*हांगासल्लो मुळो मोटो आनीक रुचीक बरो लागता / रुच्चीक आसता.*

16. भाजीची केळी वेगळी मिळतात. मासे तळतात तसे केळ्यांचे काप तळतात.
*भाजयेचीं (सावरबोणी) केळीं वेगळीं आसतात. नुस्त्याभशेन केळ्यांच्योय फोडी तळटात.*

17. आंबाडे ही लांबट-गोल व आंबट फळे असतात. त्याच्यापासून उडदामेथी, सांसव असे आंबट, तिखट पदार्थ करतात.
*आंबाडे ही लांबोडीं, आंबट फळां ताची उड्डमेथी, सांसव अशे जिनस करतात.*

18. कलिंगड आधी कापून दाखवा. गोड अन लाल असेल तरच घेईन.
*काळिंग पयलीं कापून दाखय. गोड आनी तांबडे आसल्यारूच घेयन.*

19. हे आंबे कसले? त्यांचा भाव काय?
*हे आंबे कसले? कशे दिल्यात?*

20. त्यांना 'मानकुराद' आंबे म्हणटात. गोव्यात त्याना फळांचा राजा मानतात.
*ते 'मानकुराद' आंबे. गोंयांत तांकां फळांचो राजा मानतात.*

21. ह्या छोट्या फणसाचे किती देऊ?
*ह्या पणसुलाक कितले दिवं?*

22. त्या मोठ्या केळ्यांच्या साली काळ्या झाल्या आहेत. त्यांची जात कोणती?
*साली काळ्यो जाल्या त्या व्हडल्या केळ्यांची जात कसली?*

23. त्यांना 'मयड्याची' केळी म्हणतात. त्यांचा साखर-हलवा करतात.
*तांकां 'मंयडोळी' केळीं म्हणटात. तांचो साकर-हालवो करतात.*

प्रकरण 25 :

## कपडे - *रोप, लुगटां*

1. या या बसा. कोणत्या साड्या दाखवू?
   *येयात. बसात. कसल्यो साडयो दाखोवं?*

2. सूटाचे कापड दाखवा.
   *सुटाचो / सुटाक कपडो दाखय.*

3. त्या कापडाचा रंग गडद वाटतो. किंचित फिक्या रंगाचे कापड दाखवा.
   *हो रंग चड गाड दिसता. मातसो लेव रंगाचें लुगट / कपडो दाखयात.*

4. हे कापड धुतल्यानंतर आटणार नाही ना?
   *हो कपडो धुतकच आटपाचो ना न्हय?*

5. नाही साहेब. खात्री देतो. मसरायज्ड आहेत ते. किती मीटर देऊ?
   *ना बाब. खात्रीन सांगता. मर्सरायज्ड आसात ते. कितलें मीटर दिवं?*

6. त्या बनारसी शालूची किमंत काय? तिच्यावरचा मॅचिंग ब्लाऊज ही दाखवा.
   *ह्या बनारसी शालवाचे कितले? ताच्चेर मॅचिंग ब्लावजय दाखय.*

7. इथे इंदूरी साड्या मिळतील का? दोन ते अडीच हजारांपर्यंत चालतील.
   *हांगा इंदूरी साडयो मेळटात? दोन, अडेज हजारामेरेन चलतल्यो.*

8. लाल रंगाची पैठणी माझ्या मुलीला हवोय. आणि पत्नीला काळी कांजीवरम वा चंदेरी.
   *म्हजे चलयेक तांबड्या रंगाची पैठणी जाय. आनी बायलेक काळी कांजीवरम वो चंदेरी.*

9. इथे रेडिमेड कपडे मिळतात ना?
*रेडिमेड कपडे हांगा मेळटात न्हय?*

10. माझ्या धाकट्या मुलासाठी किती नंबरचा टी शर्ट घेऊ?
*म्हज्या धाकट्या चल्याखातीर कितल्या नंबराचो (सायजीचो) टी शर्ट घेवं?*

11. 42 साईज त्याला बरोबर बसेल. हा निळा घ्या.
*42 साईज ताका सारको जातलो. हो निळो घेयात.*

12. आणखी दाखवू का? तरूण मुलं हे 'गावा टी शर्टस्' आवडीन घालतात.
*आनीक दाखोवं? हें 'गोवा टी शर्टस' तरणे भुरगे आवडीन घालतात.*

13. ही अगदीच पातळ आणि हलक्या प्रतीची वाटतात. जरा चांगल्या प्रतीची दाखवा.
*हीं सामकींच पातळ आनी हलकीं दिसतात. मातशी बऱ्या दर्जाची दाखयात.*

14. यांचा दर फार वाटतो. जरा कमी करा ना.
हीं खूबच म्हारग दिसतात. उण काय ना? मात्शीं उणी करात न्ही?

15. इथे सर्व माल आम्ही चांगला आणि वाजवी दरातच विकतो. माफ करा. इथे घासाघीस चालत नाही.
*हांगा सगळो माल बरो आनी फावता त्या मोलानच विकतात आमी. रागार जावं नाकात आं. हांगा वांटपण नाच.*

16. आमचे कपडे वापरणारी गिऱ्हाईके पुन्हा आमच्यापाशीच येतात. तुम्ही ही याल.
*आमचीं लुगटां वापरपी गिरायकां पर्थुन आमचेसरीच येतात. तुमीय येतलीं.*

## प्रकरण 26 :

## पुस्तकाचे दुकान, वाचनालय - *पुस्तकांचो माण; वाचपघर*

1. गोवा कोंकणी अकादमीतील पुस्तकांच्या विक्री विभागांत इतर कुठल्या भाषांतील पुस्तके विकतात?
   *गोवा कोंकणी अकादेमींतल्या पुस्तकांच्या माणार हेर खंयच्या भाशांची पुस्तकां विकती मेळटात?*

2. आपल्याला कोणत्या विषयांची पुस्तके हवी होती?
   *तुमकां कसले तरेचीं (विशयाचीं) पुस्तकां जाय आशिल्लीं?*

3. 'भगवंतालें गीतां'ची जुनी प्रत कुठेच सापडत नाही. तुमच्याकडे आहे का?
   *'भगवंतालें गीतां'ची पोरणी प्रत खंयच मेळना. तुमचेकडेन आसा व्हय?*

4. होय आहे. मात्र नवी किंमत द्यावी लागेल.
   *हय आसा. मात नवें मोल दिवचें पडटलें.*

5. ह्या पुस्तकांच्या किंमती जरा जास्तच आहेत. कारण ती पुस्तके परदेशांतून मागवलेली आहेत म्हणून.
   *ह्या पुस्तकांचें मोल मातशें चडूच आसा. तीं पुस्तकां परदेशांतल्यान हाडून घेतल्यात देखून.*

6. मी एकाच वेळी एवढी पुस्तके नाही खरेदी करू शकत. ही मी नंतर नेईन.
   *इतलीं पुस्तकां एकेच फावटीन विकतीं घेवंक म्हजेकडेन जावचेंना. हीं हांव मागीर व्हरन.*

7. कोंकणी कवितांचे पुस्तक मिळेल का?
   *कोंकणी कवितांचें पुस्तक मेळत?*

8. तुमी वर्तमानपत्रे आणि मासिकेही विकायला ठेवता काय?
*तुमी दिसाळीं आनी नेमाळींय विकरेक दवरतात व्हय?*

9. 'इंडिया टुडे'चा ताजा अंक आला आहे?
*'इंडिया टुडे' चो नवो अंक आयला?*

10. इथे शालेय क्रमिक पुस्तके उपलब्ध होतील. पण पुढच्या महिन्यात.
*हांगां शाळेचीं पाठ्यपुस्तकां मेळटलीं पूण फुडल्या म्हयन्यांत.*

11. इथे कोणत्या लायब्ररी आहेत?
*हांगा लायब्ररी खंयच्यो आसात?*

12. इथे पणजीला 'सेंट्रल लायब्ररी' आहे. तिच्या शाखा गोव्यातील वेगवेगळ्या तालुका, खेड्यापाड्यातही आहेत.
*हांगा पणजे 'सेंट्रल लायब्ररी' आसा आनी विंगड विंगड म्हालांनी आनी गांवांनी तिच्यो शाखा आसात.*

13. मडगांवला कोणती चांगली लायबरी आहे?
*मडगांवां खंयची बरी लायब्ररी आसा?*

14. मडगांवला 'गोमन्त विद्या निकेतन' मध्ये एक चांगली लायब्ररी आहे. तिथे चांगली व जुनी कोंकणी व मराठी पुस्तके वाचायला मिळतील.
*मडगांवां 'गोमन्त विद्या निकेतन' ही एक बरी लायब्ररी आसा. थंय बरीं आनी पोन्नीं कोंकणी आनी मराठी पुस्तकां वाचूंक मेळटलीं.*

15. गोव्याची राजधानी असलेल्या पणजीत 'सरस्वती मंदिर वाचनालय' नांवाची पण एक चांगली लायब्ररी आहे.
*गोंयची राजधानी पणजेत 'सरस्वती मंदिर वाचनालय' नांवाची आनीक एक बरी लायब्ररी आसा.*

प्रकरण 27 :

## वचन - *वचन*

| एकवचन - | *एकवचन* | अनेकवचन - | *भौवचन* |
|---|---|---|---|
| अंडे - | *तार्ती* | अंडी - | *तांतयां* |
| आंबा - | *आंबो* | आंबे - | *आमे (आंबे)* |
| कपडा - | *कपडो* | कपडे - | *कपडे* |
| कन्या - | *धूव* | कन्या - | *धुवो* |
| कागद - | *कागद* | कागद - | *कागदां* |
| काकडी - | *तवशें* | काकड्या - | *तवशीं* |
| कावळा - | *कावळो* | कावळे - | *कावळे* |
| कुत्रा - | *सुणें* | कुत्रे - | *सुणीं* |
| कुत्री - | *कोलूक* | कुत्र्या - | *कोलकां* |
| कोंबडी - | *कोंबी/कुंकड* | कोंबड्या - | *कोंबयो/कुंकडां* |
| केळ - | *केळें* | केळी - | *केळीं* |
| कोंबडा - | *कोंबो* | कोंबडे - | *कोंबे* |
| खिडकी - | *जनेल* | खिडक्या - | *जनेलां* |
| गाय - | *गाय* | गायी - | *गायो* |
| झाड - | *रूख (झाड)* | झाडे - | *झाडां (रूख)* |
| दागिना - | *वस्त* | दागिने - | *वस्ती* |
| दार - | *दार* | दारे - | *दारां* |
| नदी - | *न्हंय* | नद्या - | *न्हंयो* |
| पुत्र - | *पूत* | पुत्र - | *पूत* |
| पुरूष - | *दादलो* | पुरूष - | *दादले* |
| पुस्तक - | *पुस्तक* | पुस्तके - | *पुस्तकां* |
| फूल - | *फूल* | फुले - | *फुलां* |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| बाई | – | *बायल* | बायका | – | *बायलो* |
| भांडे | – | *आयदन* | भांडी | – | *आयदनां* |
| माणूस | – | *मनीस* | माणसे | – | मनशां |
| मासा | – | *नुस्तें, झळकें* | मासे | – | *झळकीं, नुस्तीं* |
| मूल | – | *भुरगें* | मुले | – | *भुरगीं* |
| मुलगा | – | चलो, *चेडो* | मुलगे | – | चले, चेडे |
| मुलगी | – | चली, चेडूं | मुली | – | चलयो, चेडवां |
| मोर | – | *मोर* | मोर | – | *मोर (मॉर)* |
| मांजर | – | *माजर* | मांजरे | – | *माजरां* |
| वासरूं | – | *पाडूक* | वासरे | – | *पाडकां* |
| शेत | – | *शेत* | शेते | – | *शेतां* |
| गुरूं | – | *गोरुं* | गुरे | – | *गोरवां* |
| हिरा | – | *वज्र* | हिरे | – | *वज्रां* |
| स्त्री | – | *अस्तुरी, बायल* | स्त्रिया | – | *अस्तुर्‍यो, बायला* |

प्रकरण 28 :

## लिंग - *लिंग*

| पुल्लिंग | | | स्त्रीलिंग | | |
|---|---|---|---|---|---|
| आजोबा | - | *आजो* | आजी | - | *आजी* |
| काका | - | *बापोलयो/चुलतो* | काकू | - | *चुलती* |
| कुत्रा | - | *सुणो* | कुत्री | - | *कोलूक* |
| घोडा | - | *घोडो* | घोडी | - | *घोडी* |
| डॉक्टर | - | *दोतोर* | डॉक्टरीण | - | *दोतोरीण* |
| दीर | - | *देर* | जाऊ | - | *जाव* |
| नवरा | - | *न्हवरो* | नवरी | - | *व्हंकल* |
| पती | - | *घोव/घरकार* | पत्नी | - | *घरकान्न/बायल* |
| पुरूष | - | *दादलो* | बाई | - | *बायल* |
| पूत्र | - | *पूत* | कन्या | - | *धूव* |
| बेडूक | - | *बेबूक* | बेडकी | - | *बेबकी* |
| बैल | - | *बैल* | गाय | - | *गाय* |
| बोकड | - | *बोकडो* | बकरी | - | *बोकडी* |
| बोका | - | *बुकलो* | मांजर | - | *माजर* |
| भट | - | *भट* | भटीण | - | *भटीण* |
| भाऊ | - | *भाव* | बहीण | - | *भयण* |
| मास्तर | - | *मास्तर* | मास्तरीण | - | *मास्तरीण* |
| मित्र | - | *इश्ट* | मैत्रीण | - | *इश्टिण* |
| मुलगा | - | *चलो* | मुलगी | - | *चली* |
| मोर | - | *मोर* | लांडोर | - | *लांडोर* |
| रेडा | - | *रेडो* | म्हैस | - | *म्हस* |
| वडील | - | *बापूय* | आई | - | *आवय* |
| वैद्य | - | *वैज* | वैद्य | - | *वैजीण* |
| सासरा | - | *मांव* | सासू | - | *मांय* |

प्रकरण 29 :

## शब्दार्थ - *उतरावळ*

### फळे - *फळां*

| | | |
|---|---|---|
| अननस | - | *अनस* |
| आंबा | - | *आमो/आंबो* |
| करवंद | - | *काण्ण* |
| कलिंगड/टरबूज | - | *काळींग* |
| किसमिस | - | *खिसमीस* |
| केळे | - | *केळें (कॅळँ)* |
| जांभूळ | - | *जांबळ* |
| खजूर | - | *खाजूर* |
| टोमॅटो | - | *टमाट* |
| डाळिंब | - | *दाळिंब* |
| द्राक्ष | - | *दाख/द्राक्ष* |
| पपई | - | *पोपाय* |
| पेरू | - | *पेर (पॅर)* |
| फणस | - | *पणस* |
| बेदाणा / मनुका | - | *खिसमीस / दाखो* |
| बोर | - | *बोर (बॉर)* |
| मोसंबी | - | *लारांज, मोसंबी* |
| रामफळ | - | *आंतेर* |
| लिंबू | - | *लिंबू* |
| सफरचंद | - | *सफरचंद, आपोल* |
| सीताफळ | - | *सिताफळ* |
| संत्री | - | *संत्र* |

## वार - *वार*

| | | |
|---|---|---|
| सोमवार | – | *सोमार* |
| मंगळवार | – | *मंगळार* |
| बुधवार | – | *बुधवार* |
| गुरूवार | – | *बिरेस्तार* |
| शुक्रवार | – | *शुक्रार* |
| शनिवार | – | *शेनवार* |
| रविवार | – | *आयतार* |

## खास अंक - *खाशेले आंकडे*

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| 125 | – | सव्वाशे | – | *सवायशें* |
| 150 | – | दीडशे | – | *देडशें* |
| 250 | – | अडीचशे | – | *अडेचशें* |
| 1100 | – | अकराशे | – | *इकराशें* |
| 1500 | – | दीड हजार | – | *देड हजार* |
| 2500 | – | अडीच हजार | – | *अडेच हजार* |

## अवयवांची नांवे – *अवयवांचीं नांवां*

| | | |
|---|---|---|
| ओठ | – | *ओंठ* |
| ओंजळ | – | *पोसो* |
| अंगठा | – | *आखाणो* |
| आंतडी | – | *आंतकडी / आंत* |
| कपाळ | – | *कपल* |
| कणा | – | *कणों* |
| करंगळी | – | *किरंगळी* |
| कवटी | – | *कवटी* |
| काख | – | *खाकोळ* |
| कान | – | *कान* |
| कानशील | – | *कानसूल* |
| कुल्ला | – | *कुलो* |
| केस | – | *केंस* |
| कोपर | – | *कोंपर* |
| कंबर | – | *कमर* |
| खांदा | – | *खांदो* |
| गळा | – | *गोमटी* |
| गाल | – | *पोलो* |
| गुडघा | – | *धोंपर* |
| छाती | – | *हड्डें* |
| चेहरा | – | *मुखामळ, चेरो* |
| जबडा | – | *दाडमण* |
| जांघ | – | *मांडी/माणी* |
| जीभ | – | *जीब* |



| | | |
|---|---|---|
| टांच | – | *खोंट* |
| ढुंगण | – | *भोक* |
| डोळे | – | *दोळे* |
| तळहात | – | *तळट / ताश्ट* |
| तीळ | – | *तीळ* |
| दाढ | – | *दाड* |
| दाढी | – | *खाड* |
| नख | – | *नाखूट* |
| पाऊल | – | *पावल* |
| पापणी | – | *मलपी* |
| पाय | – | *पांय* |
| पोट | – | *पोट* |
| बरगडी | – | *बर* |
| बाहु | – | *भूज* |
| बुब्बुळ | – | *मंयडोळी* |
| बेंबी | – | *बोंबली* |
| बोट | – | *बोट (बॉट)* |
| भुवई | – | *भुंवय* |
| मणका | – | *मणको / मणी* |
| मनगट | – | *मनगट* |
| मान | – | *मान/मानगुटी* |
| मेंदू | – | *भेजो/मेंदू* |
| स्तन | – | *थान* |
| हिरडी | – | *हिड्डी* |
| हृदय | – | *काळीज* |
| हनुवटी | – | *खाडकी* |

## खाद्यपदार्थ - *खावपाचे जिनस*

| | | |
|---|---|---|
| आमटी | – | *रोस* |
| आलं | – | *आलें* |
| ऊस | – | *उशीकांडो* |
| अंडे | – | *तांती, कवठ* |
| कोशिंबीर | – | *कुसमूर* |
| गुळ | – | *गोड* |
| जायपत्री | – | *तमालपत्र, पत्री* |
| जायफळ | – | *जायफळ* |
| जीरे | – | *जिरें* |
| दही | – | *धंय* |
| दारू | – | *सोरो* |
| धणे | – | *कोथमीर* |
| पाव | – | *उंडो* |
| पोळी/चपाती | – | *रोटी* |
| पोहे | – | *फोव* |
| भात | – | *शीत* |
| मध | – | *म्होंव* |
| माशांची आमटी | – | *हुमण, कंडी* |
| मिरीं | – | *मिरीं* |
| मुरांबा | – | *जाम, माँगाद/मुरांबो, आंब्या हालवो* |
| मोहरी | – | *सांसवां, म्होवरी* |
| राई | – | *सांसव* |
| लवंग | – | *कालाफुरां, लवंग* |
| लोणचे | – | *लोणचें, मिस्कूत* |
| वेलची | – | *येळ* |
| साखर | – | *साकर* |
| सुपारी | – | *फोफळ* |
| सुंठ | – | *सूंठ* |
| सोलकढी | – | *कडी, तिंवळ, फुटें* |

## व्यवसाय – *वेवसाय*

| | | |
|---|---|---|
| अध्यापक | – | *शिकोवपी* |
| अधिव्याख्याता | – | *अधिव्याख्यातो* (lecturer) |
| अभियंता | – | *इजनेर* |
| अभिनेता | – | *नट* |
| अधिष्ठाता | – | *अधिष्ठातो* (Dean) |
| कुंभार | – | *कुमार* |
| कुलपती | – | *कुलपती* (Chancellor) |
| कुलगुरू | – | *कुलगुरू* (Vice-Chancellor) |
| खजिनदार | – | *कोठयो, भांडारी* |
| गवई | – | *गवय* |
| गुराखी | – | *राखणो* |
| प्रपाठक | – | *प्रपाठक* (Reader) |
| प्राध्यापक | – | *प्राध्यापक* (Professor) |
| पोस्टमन | – | *कुर्रेयकार, पोस्टमन* |
| मजूर | – | *मानाय* |
| लेखक | – | *बरोवपी / लेखक* |
| लोहार | – | *मेस्त* |
| वाणी | – | *पसरकार, मांडकार* |
| सुतार | – | *मेस्त / ठवय* |
| संपादक | – | *संपादपी / संपादक* |
| स्वयंपाकी | – | *रांदपी* |
| सोनार | – | *शेट* |
| शिंपी | – | *दर्जी, आल्फियाद* |
| शेतकरी | – | *शेतकामती* |
| न्हावी | – | *म्हालो* |
| नाविक | – | *तारयो* |

## दिशा - *दिका*

| | | |
|---|---|---|
| पूर्व | – | *उदेंत, पूर्व* |
| पश्चिम | – | *पश्चिम, अस्तंत* |
| दक्षिण | – | *दक्षिण* |
| उत्तर | – | *उत्तर* |
| उजवी | – | *उजवी* |
| डावी | – | *दावी* |
| पुढे | – | *मुखार* |
| समोर | – | *सामकार* |
| मागे | – | *फाटल्यान* |
| जवळ | – | *लागीं* |
| दूर | – | *पयस* |
| अंत | – | *शेवट* |
| आग्नेय | – | आग्नेय |
| नैऋत्य | – | *नैऋत्य* |
| वायव्य | – | *वायव्य* |
| ईशान्य | – | *ईशान्य* |

## घरगुती सामान - *घरगुती सामान*

| | | |
|---|---|---|
| आरसा | – | *हारसो* |
| इस्त्री | – | *फेर्र* |
| कढई | – | *कायल* |
| कटोरी | – | *वाटी* |
| कपाट | – | *आलमार* |

| | | |
|---|---|---|
| कंगवा | – | *फणी / दांतोणी* |
| कांटा | – | *गार्फ, कांटो* |
| कांचेची बाटली | – | *शिसो, शिसल* |
| काडेपेटी | – | *फस्क / उज्यापेट* |
| कुलूप | – | *कलयाद* |
| खाट | – | *खाट, बाज्ज* |
| खुर्ची | – | *कदेल, खुर्ची* |
| गाळणे | – | *गाळणी* |
| गोणपाट | – | *साक* |
| गोधडी/घोंगडी | – | *गोजडी* |
| चटई | – | *शेंदरी, हांतरी* |
| चमचा | – | *कुल्येर, चमचो* |
| झाडू | – | *सान्न* |
| झांकण | – | *धांकणें, वेळणी* |
| टोपली | – | *खोंटलो, पाटली* |
| तराजू | – | *तागडी* |
| दुपटे | – | *पोळेर* |
| पांघरूण | – | *कांबरूण* |
| पेला | – | *पेलो* |
| फुलदाणी | – | *वाज* |
| बटवा | – | *बोटवो* |
| बशी | – | *पिरी, बशी* |
| बाटली | – | *बोत्ल / बाटली / शिंसली* |
| बादली | – | *बालदी* |
| भांडे | – | *आयदन* |
| मेणबत्ती | – | *मेणवात* |
| सुई | – | *सूय* |
| हंडा | – | *हांडो, मडकी* |
| उशी | – | *उशें* |

## फुले - *फुलां*

| | | |
|---|---|---|
| अबोली | – | *आबोलें* |
| कण्हेर | – | *कणेर* |
| कमळ | – | *साळीक* |
| केवडा, केतकी | – | *हातो / कवासो* |
| गुलाब | – | *गुलाब* |
| जाई | – | *जाय* |
| जुई | – | *जूय* |
| चाफा | – | *चांफो* |
| गुलबाक्षी | – | *शब्दुली* |
| तुळस | – | *तुळस* |
| तगर | – | *अनंत* |
| मोगरा | – | *मोगरी* |
| सुरंगी | – | *सुरंग* |
| शेवतीं | – | *शेंवतें* |
| बकुळ | – | *ओंवळ* |
| प्राजक्त | – | *पारजत* |

## हत्यारे, वस्तू - *आवतां, वस्तू*

| | | |
|---|---|---|
| उलथणे | – | *कायलाथो* |
| करवत | – | *खरवत* |
| कात्री | – | *कातर* |
| कानस | – | *कानस* |
| कुदळ | – | *कुदळ* |
| कुऱ्हाड | – | *कुराड* |
| कोपरा | – | *कोनसो* |

| | | |
|---|---|---|
| कंगवा | – | *फणी, दांतोणी* |
| कंदील | – | *लापयांव* |
| खिळा | – | *खिळो* |
| गोवरी | – | *शेणी* |
| चाकू | – | *कानवेत, चाकू* |
| छत | – | *पाखें* |
| छिन्नी | – | *शिन्नी* |
| जळण | – | *जळोव* |
| झोपडी | – | *खोंपटी / खोंप* |
| ड्रॉवर | – | *गवेत / खण* |
| तलवार | – | *तरसाद* |
| तांब्या | – | *तांबयो* |
| नांगर | – | *नांगर* |
| पत्र | – | *चीट* |
| पिशवी | – | *पोती* |
| पोते | – | *साक* |
| पोळपाट | – | *लाटफळें* |
| फावडे | – | *खोरें* |
| फुंकणी | – | *नळी* |
| बरणी | – | *बुयाँव, आच्यांव* |
| बशी | – | *पिरी* |
| बंदूक | – | *तुंबक* |
| भिंत | – | *वणत* |
| वस्तरा | – | *वाखर* |
| शाई | – | *तींत* |
| सुरा | – | *सुरी* |
| स्टूल | – | *तामरेत* |
| स्वैपाकघर | – | *रांदचीकूड* |
| हातोडा | – | *हातोडो* |

## नातेसंबंध - *नातीं*

| | | |
|---|---|---|
| आई | - | *आवय* |
| आत्या | - | *आतें / मामू / आका* |
| काकी | - | *चुलती* |
| चुलता | - | *बापोलयो* |
| चुलत भाऊ/बहीण | - | *बापोल भाव/ भैण, भयण* |
| जाऊ | - | *जाव* |
| दीर | - | *देर* |
| जांवई | - | *जांवय* |
| नणंदेचा नवरा | - | *नण्डावो* |
| नणंद | - | *नणंद* |
| नात, नातू | - | *नात, नातू* |
| पती | - | *घोव, घरकार* |
| पत्नी | - | *बायल, घरकान्न* |
| पुतण्या | - | *पुतणयो / पुतणी (भाचरां)* |
| बहीण | - | *भयण* |
| भाऊ | - | *भाव* |
| भाचा | - | *भाचो/भाची* |
| मावशी | - | *मावशी* |
| मावसभाऊ | - | *मावशे भाव* |
| मेव्हणा | - | *भावोजी (भयणीचो घोव), मेवणो (बायलेचो भाव)* |
| मेव्हणी | - | *मेवणी* |
| वडील | - | *बापूय* |
| वहिनी | - | *वयनी* |
| सवत | - | *सवत* |
| सावत्र आई | - | *सवती आवय* |
| सासरा | - | *मांव* |
| सासू | - | *मांय* |

## भाजी - *भाजयो*

| | | |
|---|---|---|
| अळंबो | – | *अळमी* |
| काकडी | – | *पिपरी, तवशें* |
| कारले | – | *कारातें* |
| कोथिंबीर | – | *कोथमीर* |
| कोबी | – | *कोबी* |
| कोरफड | – | *कांटेकोयर* |
| कोवळी सुपारी | – | *बेडो* |
| गवार | – | *चिटकी* |
| गाजर | – | *गाजर* |
| पडवळ | – | *पडवळें* |
| परिपाट | – | *परिपाटक* |
| पुदीना | – | *वट्टटेलांव* |
| बटाटा | – | *बटाट* |
| भोपळा | – | *दूदी* |
| भेंडी | – | *भेंडो* |
| मिरची | – | *मिरसांग* |
| रताळ | – | *कणंग* |
| लसूण | – | *लसूण* |
| वांगे | – | *वायंगें* |
| सुपारी | – | *पोफळ* |
| शेवग्याची शेंग | – | *म्हसका सांग* |
| टाकळा | – | *तायखिळो* |

## धान्य व डाळी - *धान आनी दाळी*

| | | |
|---|---|---|
| उडीद | - | *हुडीद* |
| गहू | - | *गंव* |
| ज्वारी | - | *जोंदळो* |
| डाळ | - | *दाळ* |
| तीळ | - | *तीळ* |
| मका | - | *मको* |
| मटार | - | *वाटाणे* |
| मसूर | - | *मसूर* |
| मूग | - | *मूग* |
| रागी | - | *नाचणो* |
| शेंगदाणा, भुईमूग | - | *भिकण / मोसमी भिकणां* |
| हरभरे | - | *घोड्याचे चणे* |

## काळ - वेळ - *काळ - वगत*

| | | |
|---|---|---|
| प्रभात | - | *फांतोड* |
| सकाळ | - | *सकाळ* |
| दुपार | - | *दनपार* |
| रात्र | - | *रात* |
| तिन्हिसांजा | - | *तिनसांज, आमोरी* |
| मध्यरात्र | - | *मध्यान्न* |
| पहाट | - | *फांते, फांत्यार* |
| उद्या | - | *फाल्यां* |
| काल | - | *काल* |
| आज | - | *आयज* |

| | | |
|---|---|---|
| क्षण | – | *खीण* |
| शतक | – | *शेंकडो, शतमान* |
| तास | – | *वर* |
| दिवस | – | *दीस* |
| महिना | – | *म्हयनो* |
| पूर्णिमा | – | *पुनव* |
| अमावस्या | – | *अमास / उमास* |
| आठवडा/सप्ताह | – | *सप्तक* |
| पंधरवडा | – | *पंद्रस* |

## रंग – *रंग, केसर*

| | | |
|---|---|---|
| सफेद | – | *धवो / धवें* |
| काळा | – | *काळो / काळें* |
| हिरवा | – | *पांचवो / पांचवें* |
| लाल | – | *तांबडो / तांबडें* |
| पिवळा | – | *हळडुवो / हळदुवें* |
| निळा | – | *निळो / निळें* |
| सोनेरी | – | *भांगराळो, सोनयाळो / सोनयाळें* |
| जांभळा | – | *जांबळो / जांबळें* |
| राखी | – | *गोबरो / गोबरें* |
| गुलबाक्षी | – | *शब्दुली* |
| भगवा | – | *भगवो / भगवें* |
| गडद | – | *गाड* |
| फिकट | – | *लेव* |

## आभूषणे व रत्ने - *अळंकार आनी रत्नां*

| | | |
|---|---|---|
| अंगठी | - | *मुदी* |
| कंकण/बांगडी | - | कांकण |
| कर्णफुले | - | *कुडी, कानांतलीं* |
| चमकी | - | पिली |
| नथ | - | *वाळी* |
| पैंजण | - | *पांयजणां* |
| बाजूबंद | - | *वाकी* |
| कंबरपट्टा | - | *कमरबंद* |
| हार | - | *हार* |
| तोडा | - | *तोडो* |
| नीळ | - | *नीळ* |
| पाचू | - | *पाच* |
| माणिक, लाल | - | *माणिक* |
| पोवळें | - | *पोवळें* |
| हिरा | - | *वज्र* |
| मोती | - | *मोतीं* |

**काही संकीर्ण वाक्यरचना :**




1. मी खड्डा खणला होता.
   *हांवें फोंड मारिल्लो.*

2. मी लहान खड्डा खणला आहे.
   *हांवे फोंडकूल मारलां.*

3. हा उसाचा मळा आहे.
*हें उशेल.*

4. तो मेला.
*तो भायर पडलो.*

5. तिथे अग्निशामक केन्द्र आहे.
*थंय उजो पालोवपाचें केन्द्र आसा.*

6. त्या स्त्रीने हिऱ्याची नथ घातली आहे.
*ते अस्तुरेन वज्राची वाळी घातल्या.*

प्रकरण : 30

# कोंकणी भाषांतराचा सराव करण्यासाठी काही निवडक मराठी उतारे

1. हे मंगेशीचे देऊळ. रोज ह देऊळ बघायला व श्री मंगेशाचे दर्शन घ्यायला हजारो लोक येतात. मंगेशाच्या देवळासमोर एक तळी आहे. दर सोमवारी रात्रीच्या वेळी श्री मंगेशाची पालखी देवळाभोवती एक प्रदक्षिणा घालते. दसऱ्याच्या वेळी दहा दिवस सजवलेल्या झोपाळ्यावर श्रीची मूर्ती बसवतात. हे दहाही दिवस कीर्तन असते.

2. फोंडा महालांत खूप देवळे आहेत. फोंड्याचा हा सारा परिसर निसर्गाने नटलेला आहे. येथील प्रत्येक देवळासमोर देवाची तळी आहे. सुपारीच्या बागांमुळे आणि नारळाच्या झाडांमुळे या देवालयांची शोभा वाढलेली आहे.

3. जुन्या गोव्याला दोन मोठ्या चर्चेस आहेत. येथील परिसर शांत, गंभीर असा आहे. भव्य चर्च, शांत परिसर यामुळे येथे येताच चित्ताला एक वेगळी शांती मिळते.

4. सुरेखा सकाळी सहा वाजता उठली. आपली कामे आटोपून तिने वेणीफणी केली. न्याहारी करून ती शाळेत जायला निघाली. तिच्या घरापासून तिची शाळा 2 कि.मी. लांब आहे. ती रोज चालतच शाळेत जाते.

5. आबा व आई संध्याकाळी पायी चालत चालत निघाले. एक तास चालल्यावर ते गावातील दूरच्या देवळात आले. देवदर्शन घेऊन, तेथे जमलेल्या लोकांना भेटले व परत घरी आले. शेजारचे लोक त्यांची वाट पहात होते. ते खूप दमलेले होते तरीसुध्दा त्यांनी लोकांची गाऱ्हाणी, प्रश्न ऐकून घेतले. त्यांच्याशी चर्चा केली. त्यांचे समाधान होईल अशा रितीने त्यांची समजूत घातली.

6. तेजाला काल डॉक्टरकडे नेले होते. परवापासून तिला खूप ताप येत होता. आता डॉक्टरच्या औषधामुळे जरा कमी झालेला आहे. मात्र अजूनही अशक्तपणा आहे त्यामुळे डॉक्टरानी तिला विश्रांतीचा सल्ला दिला आहे.

7. यमुनाबाई रोज संध्याकाळी सहा वाजता आपले काम संपवून घरी येतात. येतानाच वाटेत बाजारातून भाजी, मासे वैगेरे जिन्नस आणतात. रात्री स्वयंपाक करतात. त्यांचा मुलगा व एक दीर त्यांच्याबरोबर आहेत.

8. राधा स्वभावाने खूप चांगली आहे. आपल्या सहकाऱ्यांशी, शेजाऱ्यांशी ती खूप मिळून मिसळून वागते. ती बँकेत नोकरी करते. तिच्या घरी तिची आई व धाकटा भाऊ आहे. आई घरी कपडे शिवते व धाकटा भाऊ शाळेत जातो. तिला वडीत नाहीत. ती 10वीत असताना तिच्या वडिलांचे निधन झाले.

## मराठी भाषांतरासाठी काही कोंकणी उतारे

1. *ल्हानपणांत हांव खादाड आशिल्लों. आवयन घरांत खंय कितें खावपाक दवरलां तें म्हाका जुस्त खबर आसतालें. कांयच हाताक मेळना जाल्यार साकर नाजाल्यार गोड तरी खातालों. पयसो हातांत आसतकच दुकानावयलें कितें खावं आनी कितें नाका अशें म्हाका जातालें.*

2. *असो गडगड तडतडांनी पावस पडूंक लागतांच अचकीत फटाफटा करून कराये पडूंक लागले. म्हज्या भुरगेपणांत मिर्गार जायते फावट कराये वेंचपाचे भाग्य म्हाका लाबलां. एक फावट अशेच फटाफटा करून नळ्यांचेर कराये पडपाक लागले. म्हजो बाबा भायरूच पडवेर बशिल्लो. 'कराये पडटात' अशें आमकां सांगतांच आमी ते वेंचपाक लागले.*

3. *तबल्याचेर हात बसतकच कांय वेळान काल्याक सरवात जाताली. गणपती येवन बांकार बसतालो. गणपतीची पुजा करपाक भट येतालो. पुजा जाले उपरांत मोरार सुंवार जाल्ली सरस्वती नाचून वताली. पूण म्हजे दोळे आतुरतायेन वाट पळयताले ते संकासुराचे. संकासूर केन्ना काय माचयेर येता अशें जातालें आनी खऱ्यानीच तो प्रगट जातालो. आमी सगळे भुरगे  ताळयो आनी शिळ्योण्यो मारून ताका येवकार दिताले.*

4. *पावसाळ्यांत म्हादय न्हंय उपाट भरून व्हांवता. म्हादय न्हंयेची झोत आकांताची. उदकाची पातळी वाडटकच न्हंयेचे सगले फांटेय भरून व्हांवतात. कांय पुरणींनी उदकाची फूग भरून उरता. व्हाळांनी नुस्तें चडपाक लागतात. झरीच्या उदकांत लेगीत ल्हान नुस्तें दिसपाक लागतात.*

5. *पिलांक घेवन कोंबी बरीच पयस पावताली. कोंबी खावड सोदूंक गुल्ल जाल्या तें पळोवन खंयच्या तरी झाडाचेर बशिल्लो कावळो ते कोंबयेचो दोळो चुकोवन पिलांचेर झोंपय मारतालो आनी चोंचींत पिलांक घेवन पळ काडटालो. कावळ्याचे चोंचींतले पील पियांऽऽक पियांऽऽक अशें आड्डी मारतालें. म्हजी आवय आसा थंयसावन धांवत येताली आनी मोट्यान आवाज करीत कावळ्याक आमुडटाली. कावळो पिलाक घेवन गेला तो पळोवन म्हज्या आवयच्या काळजाक चुरको बसतालो.*

6. *काल्यासाकून घरा येतकच न्हंयचेर वचून न्हावप जातालें. तरी आसतना दोळ्यांक न्हीद चाळयतालीच. अशें आसलें तरी काल्यांतल्यान कितें कितें हाडलां तें एकमेकाक दाखोवप जातालें. पिल्लुकेचो रंग, तिचो तो ल्हान भितरलो गुळो, तशेंच ती कशी वाजता इतले मेरेन आमी ते पिल्लुकेचे बारीक निरिक्षण करताले. पिल्लुकेच्या नेड्यांतल्यान सूत*

*घालून ही पिल्लूक गळ्यांत लोंबकळावप जातालें. पिल्लुको हुमकळटाल्यो, पिल्लुकेचें आकर्शण उणें जायसर वा ती फुटसर पिल्लुकांचो आवाज वाडोभर जळामळा घुमतालो.*

7. *रानांतल्यो वाटो पळोवपाक एकेच भशेन दिसतात. हांवें वेळ काडलोना. टॉर्च पेटयली आनी झाडार चडून बसपाक झाड सोदपाक लागलों. इतल्यान पयस एका पालसणार लायट दिश्टी पडली. लायट पळोवन जिवाक 'सू' जालें. हांवे नेटान कुकारो सोडलो. कुकारो मारून ताणेंय म्हाका परती जाप दिली. लागीं लागीं येवपी लायट मनांतलो भंय पयस करताली. मळो म्हजे म्हऱ्यांत पावचे पयलीं कांयच घडूंक ना असो आव हाडून हांव पयलीं आशिल्लों थंय वचून उबो रावलों.*

# शुध्दिपत्र

| अनुक्रम | पान क्रमांक | वळ | अशुध्द | शुध्द |
|---|---|---|---|---|
| 1. | 2 | 27 | वैथ्याकरणी | वैय्याकरणी |
| 2. | 10 | 6 | ताबँ | ताम्बँ |
| 3. | 10 | 10 | पिसोळँ | पिसॉळँ |
| 4. | 10 | 13 | वागोळँ | वागॉळँ |
| 5. | 14 | 11 | कापले | मारले (मारलॅ) |
| 6. | 19 | 18 | फोंडा | फोंडें |
| 7. | 20 | 1 | हॉलकड | हॉलपाशी |
| 8. | 20 | 16 | तळलेले | तळिल्ले |
| 9. | 20 | 20 | भरतात | आसात |
| 10. | 26 | 7 | दरवाजा | दरवाज्या |
| 11. | 29 | 7 | सामानाकय | सामानाचेय |
| 12. | 31 | 8 | हांगास्ल्या | हांगासल्ल्या |
| 13. | 33 | 5 | काजां | काजे |
| 14. | 33 | 6 | रफ् | रफू |
| 15. | 33 | 11 | लागतीत | घेतलो |
| 16. | 33 | 18 | ओवण्यांतय | उलोवण्यांतय |
| 17. | 34 | 14 | आनी | आणि |

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| 18. | 3 | 20 | हांगा | ह्या होटेलांत |
| 19. | 36 | 18 | मद्ये | मद्या |
| 20. | 38 | 7 | सप्तकांतली | सप्तकांतल्यो |
| 21. | 39 | 2 | चौकशी | चवकशी |
| 22. | 40 | 21 | तळशी | तुळशी |
| 23. | 40 | 21 | सणा | सणाला |
| 24. | 40 | 22 | चतुर्थीला | चतुर्दशीला |
| 25. | 40 | 24 | चतुर्थीक | चतुर्दशेक |
| 26. | 43 | 7 | बटणाय | बटणंही |
| 27. | 56 | 2 | बेळगांवी | बेळगांवचें |
| 28. | 58 | 4 | घेवं | घेन |
| 29. | 63 | 12 | तिच्यो शाखा | तिचे फांटे |
| 30. | 64 | 9 | सुणें, सुणीं | सुणो, सुणे |
| 31. | 68 | 12 | अडेचशें | अडेजशें |
| 32. | 68 | 15 | अडेच | अडेज |
| 33. | 70 | 21 | मानगुटी | गोमटी |
| 34. | 71 | 29 | फुटे | फुटी |
| 35. | 78 | 6 | कांटेकोयर | कांटेकुंवर |
| 36. | 84 | 18 | लागताच | लागतकच |
| 37. | 84 | 22 | सांगतांच | सांगतकच |

# पुस्तकाच्या लेखिका


## प्रा. प्रियदर्शिनी तडकोडकार

ज्येष्ठ अधिव्याख्याता, कोंकणी विभाग, गोवा विद्यापीठ.
बी. ए. (मराठी-संस्कृत), (मुंबई विद्यापीठ) ; एम. ए. (मराठी-हिन्दी), (मुंबई विद्यापीठ)


## प्रकाशीत पुस्तके :

'पुंडलीक नारायण नायक साहित्यसूची' (वर्णनात्मक) (कोंकणीतील साहित्य सूची)
'कोंकणी साहित्य मञ्जिरी' (कोंकणी समीक्षालेख संग्रह)
'कोंकणी समिक्षणाची पारिभाशिक उतरावळ' (कोंकणी)
गोवा कोंकणी अकादेमी कार्यकारी मंडळाची माजी सदस्या (2003-2005)


## प्रा. आशा मणगुतकार

वरिष्ठ अधिव्याख्याता, विभाग प्रमुख, मराठी विभाग, शासकीय साहित्य, विज्ञान व वाणिज्य महाविद्यालय, केपें, गोवा.
एम. फिल. -'संत कवी तुकाराम यांच्या अभंगातील सामाजिकता'


### प्रकाशित पुस्तके :

'चंद्रवाडी' 24वे गो. म. सा. संमेलन; स्मरणिका (संपादन)
ना. भा. नायक लेखसंग्रह (आगामी) मराठी

